# मस्तूल

बरोवपी :
नयना आडारकार






श्री हरि प्रकाशन

# मस्तूल

बरोवपी :

**नयना आडारकार**




श्री हरि प्रकाशन



**Kanyo : Mastul**

**काणयो : मस्तूल**

**बरोवपी : नयना आडारकार**

प्रकाशन क्र. २१

नयना आडारकार

पयली उजवाडावणी : जानेवारी २००५







**उजवाडावपी :**

***दीपा दिनकर मुरकुंडे***

श्री हरि प्रकाशन

३८९/अ, शांतिनगर,

आकें-बायश, नावेली,





**अक्षर जुळणी :**

स्पिडॅक इन्फॉरमॅटीक्स, मडगांव.

फोन नं : २७३७००२



**छपपावळ :**

प्रिंटआर्ट ऑफसेट, फुडय.

**मोल :** २० रुपया

**मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां :** वासू

# मस्तूल

एक आशिल्लें माकडापील. भोव मस्तें. ताका सगळीं 'मस्तूल' म्हण्टालीं. मस्तूल एक दीस झाडाच्या खांदये-खांदयेर उडक्यो मारपाचो खेळ खेळटालें. खेळांत तें इतलें गूल्ल जाल्लें, ताका आपूण रानांतल्यान गावांत केन्नां पावलें समजलेंचना.

'मस्तूल' ज्या झाडार बशिल्लें, थंयसावन ताका एका घराच्या जनेलांतल्यान भितर चित्रां दसोवपी भुरगो दिसतालो. ताणे धवेंच गोम घेतिल्लें. त्या गोमाचो बरो घमघमीत वासूय सुटिल्लो. मस्तूल जनेलासरीच्या खांदयेर वचून बारीकसाणेन त्या भुरग्याक पळोवंक लागलें. इतल्यान, दसयल्लीं चित्रां कोणाक दाखोंवक म्हूण भुरगो उठून दुसऱ्या कुडीत गेलो. मस्तूल बेगबेगीन कुडींत देंवलें, आनी ती गोमाची बाटली आनी कांय चित्रां घेवन तें परतें झाडार चडलें. एका पायान तें घट्ट धरीत झाडा खांदयेवेल्यान घरा परतता म्हळ्यार ताका खूब कळाव जालो.



हेवटेन मस्तूलाची आवय हुसक्यान मस्तूलाची वाट पळयताली. मस्तूलाक येतना पळोवन तिच्या जिवाक सू ऽऽ जालें. पूण मस्तूलाच्या हातांतली गोमाची बाटली पळोवन तिका भंय दिसलो. तिणे बेगबेगीन ती गोमाची बाटली घेवन दुसऱ्या झाडाच्या मुळसांत शेवटून मारली. बाटलेचें धांकण सुटून सगळें गोम झाडांमुळसात शिंवरलें.

त्या झाडाचेर एक सवण्याचो घोटेर आशिल्लो. घोटेरांत आशिल्ली तातयां खावपाक एक सोरोप झाडामुळसांत आयिल्लो, तो ज्युस्त त्या गोमान पावलो. आनी थंयच दसून उरलो. ताका हालूंक मेळना-धोलूंक मेळना. तो व्हडाव्हडान 'फोंस्‌स' करपाक लागलो. तो आवाज आयकून सगळीजाणां झाडा-झाडाचेर जमली. सोरोप दसून उरलां ते पळोवन सगळ्यांक खूब बरें दिसलें. मस्तूल आनी हेर माकडांनी त्या सोरपाक फातरायलो. सोरोप मरून पडलो. सोरोप मेलो म्हूण आवयक मस्तूलाची अपुरबाय दिसली. तिणे मस्तूलाक आपल्या वेंगेंत ओडलें.



# चुट्टेचो सोरोप

उमेशाक लोकांक भेश्टावपाची चड संवय आसली. माजराक भियेतल्याच्या आंगार कापूस उडोवन "माजरा पील!" म्हूण आड्डी मारतालो. तीं बाबडी तें खरेंच माजरापील म्हूण भियेतालीं. हाणे मागीर तांची फजेत पळोवन ताळयो मारच्यो.

एकदीस माडाच्या चुट्टेचो ताणे सोरोप कसो केलो आनी बागेंत खेळपाक वतना तो घेवन गेलो. ताणे तो चुट्टेचो सोरोप एका झोपाफाटल्यान लिपयलो. सांजवेळार जायती भुरगीं बागेत एकठ्यांय जालीं. तसो उमेश ल्हवूच उठलो आनी झोपाफाटल्यान हात घालून ताणे चुट्टे सोरोप हातांत धरलो आनी व्हडल्यान आड्डेलो "सोरोप-सोरोप." भुरगीं भियेवन किळच्यो मारीत हांगा-थंय धांवत सुटलीं. तांची फजेत पळोवन हांसता हांसता उमेशाचें आपल्या हाताकडे लक्ष गेलें. ताणे चुट्टेचो सोरोप धरू नाशिल्लो. ताच्या हातात खरोच पांचवेचार हरयाळी नांवाचो सोरोप आशिल्लो. सोरपान उमेशाच्या हाताक वेटाळो घालो तसो उमेश भंयान किळचूंक लागलो. इतल्यान एका मनशान येवन त्या सोरपाक ओडून काडून पयस भिरकायलो. उमेशान जांका जांका म्हूण भेश्टायल्लें तीं सगळीं भुरगीं उमेशाचे रडकुरें तोंड पळोवन ताका हांसपाक लागली. उमेश बरी बुद्ध शिकलो.



# कांदयाचो सोपूत

खूब आदली गजाल. पयलेंच फावटीं 'सुंदर भाजी' सर्त दवरिल्ली. सगळ्या भाजयां सांगाताक कांदोय सर्तीची तयारी करतालो. कांदयान सात कोट आंगार चडयले आनी तोवूय सर्तीक गेलो. सर्तीक सगळ्यो भाज्ज्यो हारीन मेजार बसून मुरगुट्टाल्यो. कांदोय तांचेमदी भरसलो.

मागीर 'सुंदर भाजी' सोदपाखातीर आयल्यो बायलो. भाजयो पळयत-पळयत त्यो कांदयासरी पावल्यो. कांदयाक पळोवन ताणी नाक मुड्डीलें. "शी ! हो सो बाये ह्या सर्तीक आयला ? वास कितलो खर" अशें म्हणत तांणी कांदयाक मेजावेलो काडून सकयल जमनीर शेंवटीलो.



सकयल कांदो बरोच आपटलो. पुणून ताका ती दूख चड लागलीना. त्या बायलांनी कांदयाक हिणसायलो ताचें ताका चड वायट

दिसलें. आपल्या बगर बाकीच्या भाज्ज्यांक रूच येना, हें जाणां जावनूय, फकत आपल्या वासाखातीर ह्या बायलांनी आपल्याक अशें हिणसावन जमनीर मोखलो. तें येवजून-येवजून कांदयाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. जांणी म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवयलीं, तांच्याय दोळ्यांतल्यान हांव दुकां व्हांवयतलों कांदयान सोपूत घेतलो.

आनी तेन्नासावन कांदो कापतना बायलांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटात.

## "चंद्रिमाचो हट्ट"

गोरो-गोमटो, वांटकुळोच चंद्रीम एकदीस आपुण भोंवडेर वता म्हूण हट्ट धरून बसलो. चंद्रीमाच्या आवयन ताका कितलो समजायलो. पूण शे ! तो कसोच आयकना. निमणें आवयन ताका भोंवडेर धाडलो.

मळबांतल्यान भोंवता भोंवता चंद्रीम, धतरिवेलो अजापाचो सैम नियाळटालो. तीं पांचवीचार रानां, त्यो दोंगुल्ल्यो. ते पांचवेंच दोंगर, दर्या. तोखेत-तोखेत, पुनवेदिसा चंद्रीम एका व्हडल्या तळ्यावयर पावलो. ताणें तळ्याच्या उदकांत पळयलें. पळयल्यार उदकांत वाटकुळीच चकचकीत वस्त. ती वस्त आपल्याक मेळल्यार आपूण तिचेबरोबर बरो खेळपाचो. तो तसोच घरा परतलो. घरा येवन

आवयकडे ताणें ती, तळ्याच्या उदकांत पळयल्ली वाटकुळीच वस्त मागली. आवयन ताका कितलें समजायलें. आरे बाबा, तळ्याच्या उदकांत तुवें पळयलां, ते तुजेंच पडबिंब. पूण शे ! चंद्रीम कसोच आयकना. तो रागान फुगून बसलो. ताणे जेवणखाण सोडले. तो दिसान-दीस भागत गेलो. एकदीस तर ताणें आपल्याक गुप्प काळखाच्या कुडीत धापून घेतलें. आवयच्यान ताचे दुःख पळोंव नजो जालें. खरे सांगल्यार तो मानीना, हाका आतां फटूच सांगून जाग्यार हाडचो पडटलो.

तीणें चंद्रीमाक म्हळें, "बाबा, शाण्या, हें पळय, ती वाटकुळी वस्त धर्तरिवेली." खूब-खूब पयस. ती कांय आमच्यान हाडूंक जावचीना. पूण तिका पळोवपापसून कांय तुका कोण आडांव शकना. तू फाल्यांसावन तळ्यावयर भोंवडेक भायर सर. ज्युस्त पुनवेदीसा तू त्या तळयावयर पावतलो. तुका ती वस्त थंय उदकांत पळोंवक मेळटली.



तेन्नासावन चंद्रीम भोंवडेर वता. पुनवेदीसा तो त्या तळ्यावयर पावता. तें आपलें पडबिंब हे माननाशिल्ल्या चंद्राक, परतुनय त्या वस्तूचें पिशें लागता आनी तोऽऽच हट्ट धरून बसता.

# लाकडातलो सोरोप

तो सोरोप बरोच जाण्टो जाल्लो. ताच्यान आतां पयलीबशेन सपसप बेबे धरपाक जाय नासले. एकेवटेन मुंगूसाचो भंयूय ताका सतायतालो. एकदीस असोच तळ्यादेगेवेल्यान सरपटत वतना ताका एक नळी कशी पोकळ लाकूड दिसलें. भितर वचून सुशेग घेंवक बसल्यार, मुंगूसाक आपूण दिश्टी पडचोना अशें ताका दिसलें. तो ल्हवूच भीतर सरलो. आनी सुशेगाद सुशेग घेंवक लागलो.

तिनसांजची अकस्मात ताका जाग आयली. त्या लाकडाच्या भायर कसलोसो बोवाळ चलिल्लो, ताका आयकूंक आयलो. ताणे ल्हवूच तकली भायर काडून पळयल्यार, कितलेशेच बेबे. खेळटा खेळटा ते बेबे सामके लाकडाच्या पोताकडे येताले. सोरोपान आनी वेळ केलोना. ताणे जीब लांब करून एक बेबो भितर ओडून घेतलो आनी मागीर ताका गिळलो.

तेन्नासावन सोरोप सुशेगाद त्या लाकडाच्या नळयेत रावून दिसाक दोन-तीन बेबे खाता.



# बोकडेन म्हळें 'बें'

एक आशिल्ली बोकडी. ती बाबडी साडेभावार्ती. आपणेय कोणाचे वाटेक वचचें न्हय. आनी कोणीय वाटेक गेल्यारूय ओग्गी रावचें. पूण तिच्या ह्या सभावाचो सगळेच फायदो घेताले. तिका सुणोय भुंकतालो, माजरूय फिसकायतालें, कोंबोय कों ऽऽ कोंचतालो. पुण बोकडी बाबडी मोन्यानी सोसताली.

एकदीस बोकडी चरताली. चरता-चरता तिका गावपाची कुंय आयली. ते बराबर तिणें 'बें ऽऽ' म्हुण सूर आळयले. तिणे 'बें' म्हण्टा थंय आसा, जमनीवेल्यान आवाज आयलो. 'चूप ! आवाज बंद' बोकडेन भियेवन सकयल पळयल्यार एक गांयडोळ तिका तापयता. बोकडेक कळ्ळे. आपूण चडूच साडेभार्वातीपणान वागतां. म्हूण आयज गांयडोळूय म्हाका तापोवंक पावलो. आतां शिंगा दाखोवपाची वेळ आयल्या. पूण तरींय थोडी समजिकायेन तिणें गांयडोळाक म्हळे, "कितें जालें रे बाबा ? तूका कसलो त्रास दिलो हांवे?"

"कसलो त्रास दिलो. तुवें केदे व्हडल्यान 'बें' म्हळे आनी म्हजे कान फुटले. तुवें म्हाका पयलीं पळोवपाचें आनी मागीर 'बें' म्हणपाचे. हांव हांगा आसतना 'बें' म्हणून म्हाका त्रास दिवपाची तुका बरी कापस्ताद. हें फुडें म्हाका असलें अजिबात चलचें ना." गांयडोळान म्हळें.

"अशें ? जाल्यार ज्या कानांनी तुवें म्हजें 'बें' आयकलें, ते कानूच हांव म्हज्या पायाच्या खुरांनी फोडून उडयता" बोकडेन म्हळे आनीं पांय उबारला मात, गांयडोळ सडसडीत जमनीच्या मातयेंत नाच जालो.

# रिकू-पिकू-मिकू

रिकू-पिकू-मिकू- माणकुलींच कोंबयेपिलां. पूण मोटी शिटूक. कोंबयेन तांका आपलेबरोबर पासयेक व्हरतना शिटकावचें, "रिकू-पिकू-मिकू, म्हजे वांगडाच भोवात आं. खंयूय चुकून उरल्यार घोण खातली."

एकदीस पोरसांत आवय बरोबर पासयेक वतना, रिकूचे नदरेक एक हारशाचो वाटकुळोच कुडको दिश्टी पडलो. रिकून चिक्-चिक् करीत ती गजाल पिकूक सांगली आनी पिकून मिकूक. तिगांय त्या हारशा भोवतणी एकठ्यांय जालीं. हेवटेन कोंबयेक दिसलें, तिगांय आपल्याच वांगडा आसात. ती बाबडी बरीच मुखार पावली. रिकू-पिकू-मिकू हारशाचो कुडको पायांनी धुकलतना वयल्यान एका घोणीन पळयलें. एकाबरोबर तीन पीलां पळोवन तिच्या चोंचीक धार आयली. ती तांका धरूंक नेटान सकयल येवपाक लागली. सकयल येवपी घोण रिकूचे नदरेक पयली पडली. ताणे रोखडेच पिकूच्या कानात कितें सांगले. पिकून, मिकूच्या कानांत. तिगांयनी पायांनी तो हारशा

कुडको उबारून सूर्याच्या उजवाडाक धरलो. हारशातल्यान लख्ख पडपी उजवाडान घोणीचे दोळे दिपावले आनी ती धप्प करून जमनीर पडली. आनी सकयल्या फातरार आपटून मेली. चिक्-चिक् आवाज करीत रिकू-पिकू-मिकू हारश्या भोंवतणी नाचपाक लागलीं. तांचे कर्तुप पयसुल्ल्यान पळोवपी आवय अपुरबायेन तांका पळयत रावली.

# संपत्तीची आस

एके रातीं, एक चोर, चोरयो करपाखातीर गावांत भोवतालो. एका घरासामकार पावतकुच ताणे भितर कोण उलयतात तें आयकलें. ताणे बेगबेगीन वण्टीक कान लायलो. घराभीतर एक बायल मनीस म्हणटाली, "खूब जाली ही संपत्ती. बेजार आयलो म्हाका. आताच्या आता उठात आनी ही संपत्ती खंयतरी पयस सोडून येयात. पावूनी कोणाच्याय घरा."

उतरां आयकून चोर खुश जालो. इतल्यान घराचें दार उकतें जालें आनी एक दादलो, फाटीर व्हडलो साक मारून भायर आयलो. तो दादलो रानावटेन चलपाक लागलो तसो चोरूय कांय अंतर दवरून लिपत-दपत ताच्या फाटल्यान चलपाक लागलो.

रानांत पावतकच त्या दादल्यान तो साक थंयच दवरलो आनी म्हळे, "जिवितांत जोडिल्ली ही संपत, अशी वाटेर सोडूंक जिवार येता. पूण बायलेक नाका म्हूण नाईलाजान सोडटां."



तो दादलो थंयसावन वचसर चोर एका झाडाआडसाक लिपून रावलो. तो गेलो तसो चोर पुटूक करून साकासरी गेलो. "आवयस ! केदो व्हडलो साक. आनी साक भरून संपत्ती. ही सगळी म्हजी." हावऱ्यावरी चोरान काळखानूच साकाक बांदील्ली दोरी सोडली. ते बराबर "म्यांव-म्यांव" करीत धा-बारा मांजरानी चोराचेर उडी मारली. भियेवन चोर सकयल पडलो. माजरानी नाखटांनी ताका बरोच बुचकायलो. संपत्तीची आस चोराक नडली.

## ह्या कानांन -- त्या कानांन

रघलो सामको अखळ भुरगो. गावांतले भुरगे ताची फकाणां करताले. मागीर रघलो बेजार जावन तांचेकडें झगडीं करतालो. एकदीस रघल्याची आवय ताका घेवन दुसऱ्या गावांत वचपाक भायर सरली. थंय कोणीय रघल्याक चाळयल्यार, रघल्यान झगडचें न्हय

म्हूण ती ताका समजांवक लागली. "बाबा रघल्या, पळय, आमी वतां थंय तुका कोणेय, कितेंय म्हणूं. तूं ते ह्या कानान आयकय आनी त्या कानान सोडून दी."

"हां आई", म्हूण रघल्यान तकली हालयली. दुसऱ्या गावांत पावतकच, रघल्याच्या येस्तादाक पळोवन, सगळीं जाणां ताची फकाणां मारपाक लागले. रघल्यान मात आवयची सांगणी घट मतीत दवरिल्लीं. ताणें कोणेंय कितेंय म्हण्टकच, आपलो एक कान बोटांच्या चिमटेन धरून ओडचो. मागीर तो धांपचो आनी दुसरो कान, बोटांच्या चिमटेंत धरूंन सू ऽऽ असो तोंडातल्यान आवाज काडचो. आवयच्या नदरेक ही गजाल गेली. तीणे म्हळे, "शी ! हेंरे किते रघल्या ? असो पिशाबशेन कितें रे करता ?" ते बराबर रघल्यान म्हळे, "आगे, तुवेंच सांगिल्ले न्हय गे, कोणेय कितेंय म्हणूं, ह्या कानान आयकय, आनी त्या कानान भायर सोड. म्हूण हांव एका कानान आयकता आनी दुसऱ्या कानान सोडटां.

रघल्याची अखळपणा पळोवन आवयन कपलाक हात लायलो.

# फ्यूँ ऽऽ - पुलीस - पडलें पाड

शार सोपता थंय एक रान आशिल्लें. थंय एक कीर रावतालो. रानातलीं तींच तींच फळां खावन, कीराक वाज आयलो. ताणे शाराविशी खूप गजाली आयकल्ल्यो. थंय मनीस तरेतरेची खाणां

खाता, अशें ताच्या कानार आयिल्लें. ताणेय एक दीस शारांत वचपाचें येवजिलें.

एक दीस कीर शारांत आयलो. हांगा-थंय धावपी गाडयो, मनशां पळोवन तो आबुज जालो. तो थंयसल्ल्या एका झाडार बसलो. त्या झाडासकयल एक मनीस, बशयेंत कितेंतरी घेवन खातालो, ताचो बरो वास सुटिल्लो. कीराक त्या वासान, पोटाक भूक लागली. इतल्यान फ्यूॅ ऽऽ फ्यूॅ ऽऽ असो पिल्लूकेचो आवाज आयलो. ते बराबर हातांतली बशी सकयल उडोवन तो मनीस सडसडीत उठलो, "पुलीस - पडले पाड" म्हणत तो मनीस थंयसावन धांवत सुटलो.

कीर झाडावेल्यान सकयल देवून त्या सकयल पडिल्ल्या बशयेसरी गेलो. ताणे त्या बशयेंत दवरिल्ले चणे-शेव-चिरमुल्ल्यो चोंचीन घेवन रूच पळयली. आब्बा वा ! कितली रूचीक. कीरान त्या पिल्लूकेचो आवाज आनी चोरान म्हणील्ली "पुलीस - पडलें पाड" ही उतरां आयकल्लीं. आपणे खाला त्या वस्तूचें नांव " फ्यूॅ ऽऽ पुलीस - पडलें पाड" आसूंक जाय अशें येवजित कीर परतून रानांत परतलो. रानांत भितर सरतना ताका कांय मनीस झाडापोंदा बसुन एक पोटली सोडयतना दिश्टी पडले. ताका दिसले, ह्यावुय मनशांकडे घडये तो खावपाचो जिनस आसत. आपणे इल्लो मागून खावचो म्हूण तो त्या मनशांसरी गेलो. ताणे "फ्यूॅ ऽऽ करून एक शिळोणी घाली आनी म्हळें, पुलीस - पडलें पाड."

कीराची शिळोणी आनी उतरां आयकून ते मनीस पयली भियेले. मागीर तांका दिसलें हो पोपट पोलीसांचोच आसूंक जाय. म्हूण असो आमच्या - चोरांच्या फाटल्यान लागला. ताणीं पोपटाचेर मेळटा तें शेंवटूवपाक सुरवात केली. पोपट थंयसावन भियेवन रानांत उडून गेलो. तेन्नासावन ताणे सारकें मतींत धरलें. "नाका बाबा मनशांचो तो फ्यूॅव ऽऽ पुलीस - पडलें पाड जिनस. तेपरस रानांतली फळांच बरी."

# भिरमुट आनी सुणो

सांजेचो बरो वारो सुटील्लो. त्या वाऱ्यांत बरें भोवन येवचें म्हूण भिरमुट भायर सरली. ती किडी-मुंयेक हडकित, पारव्यांक सादयत, बागेंत वतना तिका एका झाडाक म्होंवामूसांचे मालें दिश्टी पडलें.

बागेंत बरीं फुलां फुलिल्लीं. भुरगींय फुलपाख्यांवरी हांगा-थंय भिरभिरतालीं. त्या भुरग्यांमदी खेळया, अशें येवजून भिरमूट मुखार वचपाक, एक सुणो भूकभूक करून भिरमुटेच्या आंगार आयलो. भिरमुट भियेवन धांवली. आनी तिचे फाटोफाट सुणो. तो कसोच भिरमुटीची फाट सोडीना जालो. भिरमुटेक भुरग्यांवांगडा खेळूंक मेळूना तें मेळूना, वयल्यान हांगा थंय धांवून खरस मात आयली. तिका त्या दुश्ट सुण्याचो राग आयलो. ताका कशी बुद्ध शिकोवची हाचो विचार करतना तिका, त्या झाडाक पळयल्लें म्होवा मालें याद जालें. सुणो

अजूनय आपल्या फाटल्यान येता हें पळोवन ती बद्द म्होवा माल्याकडें धावली आनी भुरर्र करून म्होवा माल्याक घश्टून आसातशी सुण्यावटेन धांवली. तिच्या फाटोफाट सगळे म्होंवामूस लागले. भिरमुट येवन सुण्याफाटीर बसली तशे म्होंवामूस सुण्यार तुटून पडले. त्या बोवाळांत भिरमुट झुप्प करून उडून पयस गेली. आनी येदोवेळ भूक-भूक करून भिरमुटीच्या फाटल्यान लागिल्लो सुणो, आता म्होवामूसापासून जीव वाटावपाक, कूं ऽऽ कूं ऽऽ असो आवाज काडीत धांवत सुटलो.



# भोलु शींव

भोलु शींव, एक बरो राजा, म्हूण रानांत ताची नामना आशिल्ली. ताणे रानांतल्या सगळ्या सावदांची बरी कुयदाद घेंवची. आपल्या पोटाक जाय, तितलींच जनांवरां मारून खांवची.

एक दीस दनपारचो, जेवन-खावन तो आपल्या घोलींत सुशेग







घेतालो. इतल्यान ताच्या शिटूक कानार फट्ट आनी धब्ब अशे आवाज आयले. तो आपल्या घोलींतल्यान उठून भायर आयलो. इतल्यान ताच्या कानांत 'खर-खर' असो आवाज आयलो. भोलु शींव अजापांत पडलो. कोणाचीच किळांच ना, बोब ना म्हळ्यार कोणाक मारलेशें दिसना. पूण तरींय हो आवाज ? ह्या आवाजाचें कारण सोदूनच मागीर सुशेग घेवया, अशें येवजित भोलु शींव आवाजा दिकेन वचपाक लागलो.

आवाज येता थंय पाव जाल्यार कितें पळयता. दोग जाण शिकारी एका सकयल पडिल्ल्या हतयाचें दांत कापता. शेर्त ! फट्ट हो आवज त्या मनशांनी हाडिल्ल्या तुबकाच्यां गुळयेचो आनी धप्प असो आवाज जाल्लो, तो हतयो सकयल पडटना जाल्लो आवाज. आनी हतयाचे दांत कापतना जातालो तो 'खर-खर' आवाज. भोलु शींवाक त्या शिकाऱ्यांचो राग मारलो. तांका ख्यास्त दिवपाखातीर तो ल्हवुच आवाज करीनास्तना त्या शिकाऱ्याफांटल्यान गेलो. आनी अकस्मात तांचेर घुरी घाली. तांका बरेंच बुचकायलें. अकस्मात जाल्ल्या हल्ल्यान दोगुय शिकारी भियेवन, जीव आसल्यार भीक मागुन खायन म्हुण थंयसावन पळुन गेले.

हतयाक सुध्द येसर भोलु शींव थंयच बसून ताचे राखणेक रावलो. आपल्या राजान आपलो जीव आनी दांत वाचयले म्हुण हतयान भोलु शींवाचे काळजाथावन उपकार मानले.

# कावळ्याचो शाप

देवान सवणी निर्मिली. त्या सवण्यांक तरे तरेचे रंग आनी म्होवाळ आवाजूय दिले. आनी सगळ्यांक बागेंत खेळपाखातीर सोडले. आनी म्हळें, "तुमच्या म्होवाळ आवाजान, सगळ्यांक आनंद वाटात."

सगळीं सवणीं आपल्या म्होवाळ आवाजान गीतां गायत हांगा थंय उडटाली. पुणून कावळो मात, झाडाच्या खांदयेर बसून, मान वांकडी करुन, दोळे बारीक करुन, सगळ्या सवण्यांक बारीकसाणेन पळयत आसलो. तांचे मातशे कितेंय चुकले रे चुकलें. पडलेंच कावळ्याच्या नदरेक. मागीर ताणें वचुन तांच्यो चाड्यो देवाक सांगच्यो. तो तसो देवाक वचुन कितेंय सांगता, म्हुण बाकीची सवणीं ताका भियेंवपाक लागलीं. मेकळेपणान खेळना जालीं. गायना जालीं. देवाच्या ते रोखडेंच नदरेक गेलें. कावळ्या खातीर हें सगळें घडलां हें ताका कळ्ळे. ताणे कावळ्याक म्हळें, "कावळ्या हावें तुका काय बरो म्होवाळ आवाज दिल्लो, बरें गावपाखातीर. पूण तुवें तुज्या ताळ्याचो उपेग बाकिच्या सवण्यांच्यो चाड्यो करपाक केलो. बेश्टेंच तांचेविशी वायट-वायट उलयलो. हेखातीर आयजच्यान तुजो म्होवाळ ताळो किरकिरो जातलो. आनी तू लोकांनी उडयल्ली घाण खायत भोंवतलो. कोण्ण तूका लागी धरचोना. वचत थंय लोक तूका 'हट हट' करुन धांवडटले."

जालें, तेन्नासावन कावळो 'कांव-कांव' करुन किरकिरता आनी हांगा थंयची घाण उस्तीत भोंवता.

# सूयेचे महत्व

एकदां सगळ्या आवदांची सभा भरली. खोरीं , पिकास, कुदळ, कुराड, कोयतो धरून सुय लेगीत सभेक हाजीर आसली. सूय बाबडी मेळटा त्या जाग्यार आपूण उबी रावपाक सोदताली. पुणून बाकिच्यांनी तिका थंयसावन धांवडावची. " कुस्कूट तू आमचेमुखार, चल वच हांगासल्ली ." म्हूण सगळ्यांनी तिका कडेक काडली.

इतल्यान आवदां निर्मुवपी मनीस थंय आयलो. ताणे सगळ्या आवदांचेर नदर भोंवडायली. त्या आवदांच्या गर्दे त एका खांचीत कशीबशी उबी रावील्ली सूय ताणे पळयली. तिका हातांत घेवन ताणे आपलेकडे आशिल्ले सूत तिच्या नाकांत घालें. सूताच्या पोताक गांठ मारली आनी म्हळें "ही सूय तुमच्या सगळ्यापरस ल्हान म्हणून ती करता मात व्हड काम. ती दोन कुडक्यांक एकठांय करता आनी कुडक्याकुडक्यांक जोडीत वता. तांका अखंड दवरता. तिची देख तुमी सगळ्यांनी घेवंक जाय. हांव व्हड, तू धाकलो अशी भावना तुमचेमदीं आसूंक फावना. तुमी सगळीं आवदां आपआपल्या परीन व्हड दुसऱ्याक उणांक लेखीनासतना एकमेकाकडे एकचाराची गांठ मारात."

सगळ्या आवदांक मनशाचे म्हणणे पटले. तेन्नासावन तीं सगळीं एकचारान रावतात.

# श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरोन माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं<br>(पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८)<br>(दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | अंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकर |
| ८. | नुर्पी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅडी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिवं आनी कासव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| १८. | काणयो सैमाच्यो<br>आनी मनश्यांचो | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १९. | कासवाचे घर | काणयो | नयना आडारकार |
| २०. | काणयांचे पेटूल | काणयो | सरस्वती दामोदर नायक |
| २१. | मस्तूल | काणयो | नयना आडारकार |
| २२. | कुटुन्यो | काणयो | नयना आडारकार |